# पिंतां

कवितापुंजो

मेलवीन रोड्रिग्स

1996

'मांड सोभाण'
सेमिनरी वीव्ह
कंकनाडी
मंगळूर - 575 002

**FINTAM**, a collection of poems in Konkani by

**Melvyn Rodrigues**



Price : **Rs. 30.00**

Cover design, Illustrations and Printing by

Jagadish Ammunje.

Printed at Jagath, Mangalore

Published by Melvyn Rodrigues for 'Mandd Sobhann',

Kankanady, Mangalore - 575 002.

# नवें फींत

हीं उतरांचीं फिंतां, हीं चिंतनांचीं गीतां - मेलवीन रोड्रिग्स ह्या तरन्या कवीचीं.

मेलवीन मंगळूरचो. पुण, आपल्या कोंकणीच्या ध्यासान, सगळ्या कोंकणाक वेंगोवपी. ताचे लिखणेक गती आसा, धार आसा, तरणेपणाची ताजबाण आसा. साद्या सोंप्या उतरांच्यो ह्यो कविता मनाक कळटात, काळजाक तेंकतात. कविता कटीण आसल्यार जाता, पुण ती दुरबोध आसूंक फावना. उतरांच्या फिंतांनी मनां श्रृंगारुंक जाय, तीं आंवळूंक फावना. कोंकणी मनश्यांच्या मनांक जोडपी, काव्य रसिकांच्या कानांक भुलोवपी अश्यो ह्यो कविता.

मेलवीनाची नदर कवीची. भुरग्याच्या व्हडल्या दोळ्यांनी तो संवसार पयलेच फावट अजापान पळेता आनी ताका आपशींच अप्रूप उपमा होलमतात:

दोंगराचीं थानां,
मळबाचे वोंट.
मेणाच्यो झरी,
वातीच्यो बोंदी.

भायर ना जागमाग
सूर्या सयती घोरेता.

तरेकतरांच्या रंगयाळ्या सुतांनीं हीं फिंतां घडल्यांत: मोग, विरह, देव, सैंम, खेद, दुखी-जिविताचे सगळे रंग.

मेलवीनाचें काळीज कवीचें. तो-

हासोंक जाणा
मोगा-काळजां
चोरुंक जाणा
जोडुंक जाणा
मोडूंक जाणा

एकदां तर तो किंवाट्यान म्हणटा:

आमी हे
सिमित्रिंतले खुरीस
वोगेच रांवचेनांव
ह्या मुखार
आमी फोंडांत निदतेल्यांव

उगडास आनी फुडार हांचेमदीं कवी तळमळटा:

फोण्णां हुंगतां
उडासाचीं
सपणां चिंवतां
फुडाराचीं

तो जिविताचेर उलयता तसोच मरणाचेर चिंतता. तो म्हणटा:

लजेनाका
ये मरणा
आपोवन
म्हाका व्हर

मेलवीनाक विनोद नसाय न्हय. मेलवीन आपल्या मोट्या नाकाचीं फकाणां करता. फ्रेंच सिरानो दू बेर्जोराक तशेंच करतालो. मेलवीन म्हणटा:

नाक म्हजें मोटें माटें
लाखांत एक म्हणटात
कितलोय लेगून बरो दिसलों
नाक तरुय खोंडटात

आनी हो बाबू:

आमगेर आसा बाबू एक
आमच्या मोगान सगळोच तोवता
खुशेन ताका उकलून धरल्यार
आंगावयर सुसू करता

आमचो संवसार पळेवन तो अस्वस्थ जाता :

सृष्टेच्या मात्यार
बिल्डिंगां उबार
दोळ्यांचे दिष्टीक
प्रकृती काबार
सुवात नासताना
मुयोयी विरार
संसारी जिणयेचें
रुपच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

मेलवीन कल्पनेच्या राज्यांतूय वावुरता:

बोवाळ जाला सारया जगांत
मिस्तेर तसोच उरला
पुनवेरातीं मळबार कोणे
चंद्रीम म्हजो चोरला

आनी ही रंगयाळी वळ:

हांव फुलांदेवी
शिरांक तुज्या
रगत दिंवच्याक
तांबडीं धसमिचीं
फुलां पिळून
हाडून आयल्यां

मेलवीनाचे पूर्वज गोंयचे आनी ह्या कोंकणी मूळपीठाक तो भेट दीत आसा, इश्टागत जोडीत आसा. ताची ही गोंयची ओड तो अशी उकती करता:

हाडां म्हजीं पिटो करा
क्रिस्तावरी खुरसार मारा
प्राण हांवें सोडच्या दिसा
गोंयच्या गांवांत मोरुंक सोडा

मेलवीनाचो कोंकणीचो ध्यास, मनशांचो मोग, जिविताची उमेद-हीं रोखडींच मनांत भरतात. हाचे आदींच ताचो "मोगापेळो" हो कवितांझेलो उजवाडाक आयिल्लो. कोंकणीच्या खंयच्याय वावरांत उरबेन वांटो घेंवक तो केन्नांय फाटीफुडें पळेना. लुईश मास्कारेन्हासाचें दायज घेवन, चा.फ्रा.द् कोश्ताचो हात धरुन कानडी मातयेंत हो कोंकणी कवी वाटचाल करता

जिवितांतल्या हर उदेवा
कवी जांवच्याक मागो
जागो तांचो भरती कर
सोडीनाका धागो

आदल्या कवींनी विणिल्ले धागे तो कसोच सोडीना. ताच्यो कविता वाचताना, फादर पोल बोतेल्हो, फादर सिलवेस्टर मिनेझिश हांचो उगडास जाल्याबगर रावना. फाटलें दायज घेवन, तें पचोवन तो आमकां नवें कवीत दिता. मेल्विनाच्या आंगार एक नवें फींत चडलां.

पणजी, गोंय
01-11-1995

**मनोहरराय सरदेसाय**

# मांडावळ

## 1. सोंरगो

सोंरगो हांव उबतां मळबार
हो सगळो तुजोच दळबार

दिसाक उबतां, उबतां रातीं
घेतलाय तुवें म्हजो हारबार
हो सगळो तुजोच दळबार
सोंरगो हांव उबतां मळबार

गेल्ल्या गांवा जोडटां नातीं
दाकवन वेतां म्हजें दरबार
हो सगळो तुजोच दळबार
सोंरगो हांव उबतां मळबार

अतम्या धागो तुजे हातीं
तुटलो जाल्यार सोंपलें कारबार
हो सगळो तुजोच दळबार
सोंरगो हांव उबतां मळबार

## 2. नातीं

दोंगराची थानां
मळबाचे वोंट
चिंतूंक लागले मोग करताना
कोण कोणाच्यामू रिणा ?

मेणाच्यो झरी
वातीच्यो बोंदी
चिंतूंक लागल्यो जळटाना
कोणा पातकाची ही सारी ?

मनशांचीं मनां
फायदो आशेताना
चिंतलांय केदीं मोग पुरताना
खिणा खिणाचीं हीं मरणां !

जिणयेच्यो धारी
नात्यांच्यो वारी
कसाप्पी कोयतेन कातरताना
अर्थाक मेळच्योनांत ह्यो तारी !

# 3. मोगाची मसती



मसती म्हाका पायां तुज्या
तोय तुजो मोग लेखूं
दुकीमदेंय हांव सांगीन
तुजो संतोस पिकूं

जळय म्हाका जळत्या उज्या
मना तुज्या तृप्ती शेकूं
पेट्टां पेट्टां हांव सांगीन
आमचें लगीन जिकूं

नाका सांगशी इतलेंय करूं
कसो तुजो मोग चाकूं ?
घडयेक तरूय सोड पांव्यां
तुजो मोग माखूं !

## 4. भरती

करचीं पडलीं मरती पोतां
जिवितांतू भरती आतां

खंती दुकां रावतां सावळे
वेंगोंक आयले तुमचे बावळे
बावळ्यांभितर सरपा रोळणी
जिणी जाती विका वाळणी
मान्नी केली तुमकां भुतां
जिवितांतू भरती आतां

बुडोन आसतां दैवीक सुखां
मनार दांबलीं नास्तीक मुखां
त्यायी वाटेर मेळना वात
जिण्येफांत्यार जाती रात
सतरी धरली तुमच्या वोतां
जिवितांतू भरती आतां

सोसणिकाये विद्या जोडली
फोडा तुमची हांवें फोडली
जाय तशें खोंच मारा
तुमच्या फोंडांत तुमींच मोरा
जायनांत आनी काळजाक खतां
जिवितांतू भरती आतां !

## 5. वेगळेपणांत एकपण



कात तुजी गोरी आनी
काळें म्हजें चामडें
दोनूय कुडीं व्हाळोन आसा
रगत मात तामडें

आमचो गांव परकी देकून
मदें कांटे सरयो
तरूय कितें येदोळपासून
आमकां एकलोच सुर्यो

जात आमची परकी आनी
मत आमचो वेगळो
कशेंय मागूं, कितलेंय मागूं
आयकोंक देवूच एकलो

## 6. रोसा दिसा



पुण्य खंयचें केलें चिंतून
शून्य जाली मत
घरांत तुवें सरचे आर्दींच
धन्य जाली गत

पावलांक तुज्या शिरीन पिकूं
म्हजे घरची वाट
हातांक तुज्या अमृत जावूं
म्हजें अन्न ताट

दोळ्यांक तुज्या दुधान भरों
भोवंतणिचें पीक
हाशांक तुज्या गोडशें जावूं
खंयचेंय पाशाण वीक

जिवीत म्हजें अळणी बाये
तुंच म्हजें मीट
आगट्याभाशेन पावोर तुजें
हरयेक मोगा कीट

## 7. जलमागूण




गळ्याक तुज्या गुल्लोव आतां
देंटाक कांटे तशेच
मालतेंत तुजे शित आतां
भरशीक फातर तशेच
कापचे हातीं कोंत आतां
आदले नारे तशेच
जलमागुणाक घात करचे
पिशे तशे तशेच !

# 8. तरनें फांतें



तरनें म्हजें फांतें धोवांत आतां न्हाता
वोडतांतुल्या गुलोबांचे वोंट पळे धुता
भायर सा जागभाग सुर्या सयती घोरेता
देवदुतां आवतार मळबार आवाज नासतां रुपेता
ह्यायी खिणा जागो हांव सगळ्या गांवार एकलों
काळजा दार ठोकून गेलेंय तरनो तरनोंच पिकलों

ठोकून गेल्यार परवा नातली, यादी सोडून गेलेंय
निसकळ निरमळ दोळ्यांफुडें धोवांत विणगें न्हालेंय
काळीज मेण जाता हांगा पयस कशें सरुं ?
सुर्या किरणां फांकचे आदीं चिंतां गोपांत धरुं
बेगीं येतां सांगोन गेलेंय गावांत आसतां एकलों
संसार सगळो जागलो आतां राकोन तुका थकलों

ये मोगा गळाय नासतां जीव म्हजो तुट्टा
परत्यान येता तेंच फांतें सुर्या आत्तां बुड्टा
जाग वोगी जाल्याखिणा चान्न्यान तुका माखतां
उपरांत वेंगेंत चाकोंक ये, मयपासाचीं वोकतां
कोंता मणी गळवन मागलें रातच्यो राती राकलों
यादी फकत सोडून वेताय, जोडूंक कितें सकलों ?

# 9. ताचें हाचें

तो विचारी ताचेलागीं -
"म्हजेलागीं
आस्त आसा, बदीक आसा
भांगर आसा, शिंगार आसा
दुडवा झरो, जयता नारो
व्हाळत आसा, उब्रत आसा
तुजेलागीं कितें आसा ?"

तो सांगी हाचेलागीं-
"तुज्या मरणाक फोंड खोंडूंक
खोरें आनी कुदळ आसा"

## 10. रडूंनाका, कोंकणी बाळा

रडूंनाका कोंकणी बाळा
रडूंनाका वोगो
दोळ्यांभायर सोंरगो देकून
सोडीनाका धागो

दोळ्यांफुडें आसतां ताणे
दर्यालिगून चाळ्ळा
मिटाकणा जोडचे खातीर
मोरापासून घोळ्ळा
घोळतां घोळतां काती जावून
मात्येंत आतां मेळ्ळा
फोंडावयलो चिवो सयती
कवी मात्येक भुल्ला
चिव्या थाव्न लिसांव जोड
तोंड कित्याक फुगो ?
दोळ्यांभायर सोंरगो देकून
सोडीनाका धागो !

खरस ताची वयर पडली
आशा मेण जाली
दसतुरयांचे पाजे मुखार
तकलो दिलो बली
जिविताच्या निमण्या काळार
लाबल्यो माना दाली
सोंश्याकान जोडले पुण
सोसचें त्राण खाली
जीव दीवन रचलां साहित्य

तान तुजी भागो
दोळ्यांभायर सौंरगो देकून
सोडीनाका धागो

तुजें ताचें नातें आतां
फक्त धाग्यार उरलां
धाग्या पोंतार जडाय किती
रोमाळ काव्यें भरलां
साहित्यांतले रिवाजिर्ची
तोडून काडून करलां
वेचे आदीं कोंकणी आवयक
जाय ते शिरीन पुरलां
जिवितांतल्या हर उदेवा
कवी जांवच्याक मागो
जागो ताचो भरती कर
सोडीनाका धागो !

## 11. परमळाची मरयाद

परमळाच्या फोण्णापाल्या
कडयेकमुंगा घालो
भोवतणिंचो संसार खिणान
परमळांतू न्हालो
जेवणामेजार तोपलोमुंगा
मरयादिचेर भालो
रुच दिल्ल्या फोण्णापाल्या
पयलोच भायर घालो

म्हज्याय जिण्येंत हरयेक घडये
उम्यांक सुजलो पोलो
उमे दिल्ल्या महंतांनी
विक्रीत म्हाका केलो
गरजांक तांच्या खांद्यार म्हज्या
जड खुरीस दिलो
कारयें जांवक ना, कारयाआदींच
वयजमुंगा मेलो

## 12. मळबालागीं



मळबा खंयसर मायाग तिळे ?
फुलां म्हारगाय मात्याक मोळे
तारांक विंचून दाल्येंत घाल
व्हकलांक धाडटां केसांक माळ

मळबा खंयसर तुजे पाने ?
मनीस मोनजात लागल्या ताने
कुपांक आरावन वोंट्येंत घाल
पावसाक आमचे तकलेर वाळ

मळबा खंयसर तुजो सुर्यो
जिणें म्हजें दिता मुरयो
एकेक करुन किरणांक फाळ
मतींत म्हजे उजवाड दाळ

## 13. मुन्नाची याद



रेंवेच्या कणा कणांक
काळीज फुटलां
तुजे यादीन मुन्ना आटलां

मळबान कुपांक वेंगेंत घेतलां
पावसा मामान धरतेक धुतलां
कोणा काळीज कोणाक भेटलां
तुजे यादीन मुन्ना आटलां

सुरयाकुडींत सदां उबसाण
गुलोबा पोल्यार सरना तांबसाण
कोणा काळीज सदां पेटलां
तुजे यादीन मुन्ना आटलां

फोण्णां हुंगतां उडासाचीं
सपणां चिंवतां फुडाराचीं
काळजाक म्हज्या काळीज फुटलां
तुजे यादीन मुन्ना आटलां

## 14. चंद्राची चोरी

बोवाळ जाला सारया जगांत
मिस्तेर तसोच उरला
पुनवेरातीं मळबार कोणे
चंद्रीम म्हजो चोरला ?

लायलें हांवें आंगणा पोंतार
गुलाबाचें झाड
सारें घालें उदक घालें
वोंय बांदली आड
जीव भरुन मेजून मासान
बोंगो उदेवन आयलो
गुलाब फुलतच चिंतलें मनीं
माळतां तुका पयलो
आयच्या दिसा संतोस सरला
कांटो मात उरला
कळना कोणे कित्यापासून
गुलाब म्हजो चोरला !

जलमाथावून तरनाटपणाक
पावता पासून हांवें
दिसानदिसा धुंपयलेमू
कोंकणी मांयचे पांवे
मेंदवाक म्हज्या लगाम बांदून
साहित्य तांणी जोडलें
भाकरी दिंवची नोकरी काडून
दर्यांत मदें सोडलें



आयच्या दिसा संतोस उबला
काळजांत भंय रोंबलां
मजत दिंवच्या कुमके हातांक
कळना कोणे बांदलां ?

कातकुतलेच्या पाळण्याचेरी
जिवीत आमी सारलें
आवय बापय भुरगीं मेळोन
गंधावासान भरलें
गंध ताचो परमळ दितां
कळना कितें घडलें
बापय गेलो आवय गेली
भयणी तारुंय बुडलें
जिविताच्या पांवड्या पांवड्यार
पुनवेक आशेवन रावतां
पुनवेदिसा चंद्रीम नासतां
दुखा दर्यांत बुडतां

## 15. नाक

नाक म्हजें मोटें माटें
लाखांत एक म्हणटात
कितलोय लेगुन बरो दिसलों
नाक तरुय खोंडटात

नाकामाट्यांत वागांक राव्येत
सोंश्यांक उडक्यो मारयेत
नाचुन नाचुन आंग वोळटां
पाय सोड्न निद्येत

फोरेन गेल्यार भांगराच्यो
बिस्कूत तांतुं घाल्येत
काडना जाल्यार पुरो शिंको
सुंक नासतां हाड्येत

बुयांवाची फिकीर नाका
लोणचेंय तांतुं भरयेत
चोरयां सोरो उकडलो तर
बाटल्यो धाराळ दाळ्येत

कष्टांविणे धाराळ मापान
म्होंवाकृषी करयेत
म्हयन्याक पावटीं म्होंव काडटां
नाक म्हजें पिळ्येत

आनी नाका चिंता करुंक
म्हजेलागीं येवयेत
गरज पडल्यार नाक म्हजें
भाड्याक तुमी व्हरयेत

# 16. मरणाक येवकार

लजेनाका, ये मरणा
आपवन म्हाका व्हर
प्रतिभेचीं म्हजीं किरणां
तरन्यार फोंडांत भर

उपकार ना कोणाक तांचो
हांव अनुप्कारी शेळी
म्हजो हरयेक अमृतथेंबो
आतां कोडू विकागुळी

येदोळपासून गाण्याक दिवून
उपकार म्हजे पिळ्ळे
रगत नासतां चिंवड जाल्या
देखतच म्हाका पळ्ळे

रगतादान नाका म्हाका
पावतें उतर बरें
ताकाय तांचेलागीं दुकळ
जालों आशेवन सारें

नाका आनी गळाय करुक
भितर सर मरणा
तूंय तांचे मेळींत घुसलांय
आतां मरचें कशें कळना !



## 17. स्वार्थ



हांवें
खोरज काडूंक
शिंग आपडलें
सोबाय पळेवन न्हय

हांवें
सारें करच्याक
शेण आपडलें
सुद्दाचाराक न्हय



हांवें
दुधाखातीर
बोंब्र आपडलें
सोगान तोवून न्हय

हांवें
भुकेखातीर
तुका कातरलें
दुडवाक भुलोन न्हय

# 18. चंद्रेमाचें खाड

चंद्रेमाच्या पोल्यांक फुटलां
धवशें पिकशें खाड
भंडारिचे बायले बेगीं
वाकरमुंगो हाड

वाकर हाडटां, बुरुस आनी
साबूय सयत हाड
नांतर बाबड्या चंद्रेमाचो
पोलो जातलो पाड

हाडचें सरवय हाडलें आतां
गत जाली पाड
मळबा मात्याक पांवचें कशें
निसण तरुय धाड

निसण तुजी पावली आतां
घोवाक मात्सो धाड
निसणीर चडोन खाड तासूं
करयां आमी लाड

## 19. परब

हांगा परब
-नाळींचो उजो
मिसायल नाच
पुण, सगळेय शेरमेल्यात

हांगा परब
- हाडांचे वाशे
कातींचे ताळे
पुण, सगळेय शिंपडल्यात

हांगा परब
- मासांची खातड
रगताच्यो झरी
पुण, सगळेय भुकेल्यात

हांगा परब
-मोगाच्या सुर्यां
द्वेशाच्या दर्यां
व्हय, सगळेच ग्राशिल्यात

# 20. म्हजें न्हय आसल्लें

म्हज्योच वारयामोडी
म्हज्योच दिव्याचुडी
केन्नां वेंगतीत, काळकाक हाडतीत
म्हजेलागीं ना उजवाडा उडी

म्हजोच सुर्यागोल
म्हजेंच सोबीत फुल
केन्नां फुलत, वोताक बावत
म्हजेलागीं ना ताचो परमळ

म्हजेंच हें पाणी
म्हजीच ही दोणी
केन्नां बुडन, केन्नां मोरन
म्हजेलागीं ना म्हजी जिणी

# 21. गुट

गिमांत अशी नातली पृथवी
आतां कशी जाली अतवी ?
कांटे तणां, फांटे पानां
न्हेसल्यांत आयज पाचव्या वणा
हो गुट तुमी पोयजे
तो येवन गेला जायजे
पावस येवन गेला जायजे !

मारको आसलो कालच्या दिसा
घा़ये आज कुडी मासा
थिगार नामनां निदला उवो
घोरेनाकि मारता वोंबो
हो गुट तुमी पोयजे
तो येवन गेला जायजे
भुत येवन गेला जायजे!

रुची तिच्यो गेल्यो जरुन
काती तिच्यो गेल्यो बाबून
खुशेन आतां जाल्या फुमार
पोट्टूय जालां मातशें उबार
हो गुट तुमी पोयजे
तो येवन गेला जायजे
घोव येवन गेला जायजे

# 22. बूदबाळीचे

वरसापाटीं वाजांत आसलीं
रंगाळ प्लास्टिक फुलां
वरसानंतर देकतां तांकां
गयरम धुळीन खेलां
आसले घरांत बारा दोळे
एकूय तांचेर खंचलोना
लुगटान हावें पुसच्याक तांकां
तडव मात्सोय केलोना

पुसतां बगलेन सादलो ताळो
'लुगटान पुसचें आडाय
साबाउदकान धुवून सोड
मागीर पळे सोबाय'

कावात्याचो जाला गोळ
ईट नासतां मुळाक
घरांत आसचीं मनशां कित्याक
खंयच्या उपकाराक
देकतां देकतां रडलें मन
रानाक गेलों धांवोन
रुकाफांटे काडले कातरुन
मुळाक घाले बेंडून

बेंडटां बगलेन सादलो ताळो
‘मातीय सारल्यार जाती
खाली सोप सुखोन वेता
कुसता आसल्यार माती’

आसली म्हाका एकलीच आवय
मयपासाचें कुडें
सुखा तडीर पांवचे आदीं
जाली कशें मडें ?
मरण आसता तुका म्हाका
पाटीं जाव्येत फुडें
पुण मेलो जाल्यार तांडेल
तांडचें कोणे होडें ?

चिंतून आसतां मरणा दिसा
सादलो बगलेन ताळो
‘रडोन रडोन करगानाका
देव तुका पळेतलो’

## 23. यादी

व्होराण जयशें राया शादी
मना हुंबरार तुज्यो यादी

बोंडाथावून भायर तिळटात
आबोल्यांचे बोंगे सोबीत
फाल्यां पळे तेगो फुलतात
फांल्यांफारा मयपास वोंकीत
फाल्यांपासून राकूं कशें
चितूंन लागल्या काळजाक व्याधी
मना हुंबरार तुज्यो यादी

तरने सांजेर दिष्टी पोंतार
दर्या सुर्या जोडी जाली
सुर्याक आपणांत घेतां घेतां
दर्यांत रगता खातड जाली
देकतां दोळ्यांत देंवलीं दुकां
फुडाराच्यो चिंतून गादी
मना हुंबरार तुज्यो यादी

रोसा दिसा पोळवा वासा
जिविताचे धुंपले होडें
लगना रातचे घडये राकतां
एकसुरपणा काडूंक भाडें
राकची पिडा सोसूं कशें
आयच्या सपणांत जांवयां शादी
मना हुंबरार तुज्यो यादी

## 24. जेजू फाल्यां येता

आंगणांत म्हज्या मळबार पळे
नेकेत्रांची वस्ती
चंद्रीम लेगून कंगाल जाला
पळेवन तांची कुस्ती
जेजू फाल्यां येता पळे
देकून असली मस्ती ?

गोट्यांत आमच्या गाय उबी
ओंटी कितें रुंद
वोडटां वोडटां काबार जायना
तांबयो तांबयो दूध
जेजू फाल्यां येता पळे
देकून असली बूद

शाणो भुरगो दोळ्यां भायर
बसला खेळ खेळोंक
खिळे थोडे, मोडतेल एक
रिपां खुरीस करूंक
जेजू फाल्यां येता पळे
बोवशा ताका मारूंक ?

## 25. दुबळें नताल

नताल येवन हुंबरार रावलां
भिक मागता वोळू
"ओंगाक एक वस्त्रा कुडको
मात्यार मातसो कोलू
आसा जाल्यार मालतेंत वोता
कट्टीभर नीस
कुडक्या काळजान कुमक केल्यार
सारीन म्हजे दीस"

मागीनासतां मरयेबाळा
मेळळें तुका भांगर
धुंप आनी रगतांबळां
गोटयांत्य शिंगार
तूं आनी नताला मदें
दुबळो कोणाक म्हणों ?
सांगोन सोड दुबळें नताल
वेचे आदीं मरोन !

## 26. शिगमो

मागणें:
ओगा विष्णु देवा
ओगा कृष्णु देवा
ह्यायी खेळांत
पांचूय दिसांक
आमकां तुमी पावा

गाणें:
मारयां थापी, मारयां थापी, मारयां थापी
नाचुन नाचुन मुक्त जावयां आमी पापी

नारल फुटवन तळी दवरुंक जायात जागीं
तुळशी काट्यार जळया दिवो देवा लागीं
कित्या वोगीं ?
आसांव आमी एकशें जणां पुरो काफी

गुमटां बडवंक तोणयो खेळोंक येया लागीं
मात्या पायांक सोवाय करा सगळ्या आंगीं
देवा लागीं
ह्यायी वरसा केल्ल्या पापांक माग्यां माफी

पांयजणांच्या नादाक वालीर नाचुं मोगीं
तोणयां थापीक मुकण्यां पिलां जांवदीत जागीं
शिगमो लागीं
वरसुगेच्या आंवड्यांक आमच्या दियां जापी

## 27. नवलां

सशयेक देंवल्यात शियाळ पळे
मोक्यान घाला गडाय
तळटीसुर पियेनासतां
सांगतां तुका बडाय
पोरसांतुल्या तळ्यांतुलीं
सुर्याविणे साळकां फुलतात
घरा येवन पळेवन सांग
नवलां कशीं घडटात

आमचो म्हाली फाल्यां वेता
देकून घाला गडाय
ताका नासचे शियाळ कित्या
कोणाक आमची सोबाय ?
पोरसांतुल्या सुर्या मुकार
साळकांक वयलो गरज ना
कोण जाणा तांचो मोग
म्हाका कित्या कळोंक ना ?

## 28. झेमतां झेमतां

झेमतां झेमतां पडली नीद
वोर चोरुन धांवलो गीद
देकून वायल नामची खंत

झेमतां झेमतां पडली नीद
वोर चोरुन धांवलो गीद
देकून तुमच्या बायलांची खंत

झेमतां म्हाका पडली नीद
देवाक कशी पडली नीद ?
आसलो तर खंडित येतो
धांवडांवक तरुय गीद

झेमतां झेमतां पडून नीद
चुकली म्हाका एव
झेमतां झेमतां पडून नीद
कळ्ळें कोण देव !

## 29. घडनातल्ली कविता



दोळ्यां मळब दिसना
कानां दर्या गाजना
व्हाळच्या दुकां मेलीं सुखां
कविता म्हजी घडना

गांवच्यो नंयों सुखोन गेल्यो
कोणे तांच्यो वोंटियो चिंवल्यो?
जुळ जुळ उदकाक नाचुन येंवची
कविता म्हजी आयलीना

व्हडारूक हुंबळोन पडलो
गांवच्या सवणयांक थारो चुकलो
पानां कानां अमृत दिंवची
कविता म्हजी आयलीना

# 30. खुरीस

आमी हे
सिमिस्त्रिंतले खुरीस
पावसा वोताक
सुखोन आसांव
तुमकां दिसना
वरसां वरसां
रडोन आसांव
तुमकां आयकना
तुमी
वेंडिगेरींत, तट्टीकेरेंत
दलितांक हळशीक
खावयताना
तेंच म्हापातक
म्हळ्ळेबरी
बोबाट मारतात
आमचे
कळवळे तुमकां दिसनांत
हांगासर
काळे कावळे
आमच्या तोंडाक

गांडी घश्टीतात
घोंकचीं सुणीं
मुतान न्हाणयतात
चामादोर सायब
ताचे लेस
आमच्या खांद्यार उमकळायता
आमी हे
सिमिस्त्रिंतले खुरीस
वोगेच रांवचेनांव
ह्यामुखार आमी
फोंडांत निदतेल्यांव
आनी
आमच्या फोंडांचेर
तुमकां उबारच्याक
स्ट्राय्क करतेल्यांव !

## 31. म्हज्या गांवांत

आज म्हज्या गांवांत
सगळेंच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

आंगणांतल्या झाडांनी
दुखां फुल्ल्यांत
आसलली फुलां
चेडवान माळ्ळ्यांत
न्हय तर देवाच्या
पायार निदल्यांत
नातलल्या वामान
वोडतच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

आज म्हज्या गांवांत
सगळेंच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

मेल्ल्याच्या मड्यार
भाड्याचें रुदान
मरणाच्या मिसाक
मासाचें जेवण

पेजेच्या मनशांचें
चेंचलां गिन्यान
सरलल्या अतम्याचें
सालवासांव बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

आज म्हज्या गांवांत
सगळेंच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

सृष्टेच्या मात्यार
बिल्डिंगां उबार
दोळ्यांचे दिष्टीक
प्रकृती काबार
सुवात नासताना
मुयोयी विरार
संसारी जिणयेचें
रुपच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

आज म्हज्या गांवांत
सगळेंच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

मोगाच्या काळजांत
मोसराचें रगत
सरवांच्यो जिबो
फटकिरें कागत
मनशाक मनीस
वाटतात वकत

जिणयेच्या अर्थाचें
चिंतप बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

आज म्हज्या गांवांत
सगळेंच बदल्लां
सायबा, सगळेंच बदल्लां

# 32. सुर्याचीं सोदनां

आज सकाळीं
सकाळ जालोचना
सात जालीं
आट जालीं
उजवाडलेंच ना
सुर्यो उदेलोच ना

लोकाची बोबाट जाली
वाती हाडा, चुडी हाडा
स्विच दांबा
ट्यूब पेटया.......बल्ब पेटया
पेट्रोम्याक्स जळया
आनी सकडांनी
हाडलें.....दांबलें.....पेटयलें
जळयलें
आनी सुर्याक सोदलें
पुण सुर्यो मेळ्ळोच ना

लोकाची बोबाट चडली
ते बोबेक
काजुलेय धांवोन आयले
तांणी गांडी पेटयल्यो
तरूय सुर्यो दिसलोना

आयच्या दिसा
सकाळ जालोच ना
आयच्या दिसा
आतां सांजेपरयांत
उजवाडलेंच ना
सुर्यो उदेलोच ना

कितलो वेळ
काल सांजेथावन
आज सांजेपरयांत
काल सांजेथावन
आज सांजेपरयांत
काळोकच काळोक
आनी त्या काळोकांत
तुंवें म्हजे वेंगेंत
आनी
हांवें तुजे वेंगेंत
सुर्योच जळयलो
पुण कोणाकय कळळेंच ना

## 33. हांव कोण

हांव कोण हांव कोण
जाप आजून घडना
तरने प्रायेन पिकलां तरुय
सुशेग मतीक मेळना

मांयचें दूध चिंवचे आदीं
काळीज दोळ्यांत हाडलां
बाळपणार किमचुन आशा
रात रात रडलां
जाणटो तरुय नेणटो चिंतून
जाणट्यांक हांवें पिळळां
थेंबे थेंबे गिळून गिळून
जिवीत म्हजें घडलां

हांव मनीस हांव न्हय
थेंबे थेंब्या तळें
दिलें तरुय म्हजें जायना
केदेंय व्हडलें दालें

हांव कोण हांव कोण
हांव हांवूच न्हय
जलमाथावून मोरापरयांत
हांव म्हजोच न्हय

# 34. कोंकणिचो कवी

कोंकणिचो कवी हांवु
म्हाका तकली बागायना गांवु

तापलल्या लोंकडाचें उदक पियेतां
पियेवन पियेवन काळजा देगो
धोवान भिजयतां
-तरुय तकली बागायना गांवु

निदलल्या दर्याचें उदक आरायतां
चाळून चाळून तोंडां तुमचीं
म्होंवान बुडयतां
-तरुय तकली बागायना गांवु

गुमट्याक गिळून नवल दाकयतां
चाबून चाबून सोबीत बाळाक
बाळंत करुतां
- तरुय तकली बागायना गांवु

कोंकणिचो कवी हांवु
म्हाका तकली बागायना गांवु

# 35. गोंयची वोड

गाडवाबरी म्हाका व्हरा
सकत म्हजी पुसून काडा
पुरासाण धोसच्या दिसा
गोंयचे तडीर निदोंक सोडा

बुरश्यो बुदी कापत करा
घर बांदूक चेडूं दिया
काळीज जरुय शिंदलें जाल्यार
गोंयचो सोरो पियेंवक सोडा

खैदीबरी म्हाका धरा
नातन्यामुदो तोंडांत घाला
वोरोडांनी वोंकच्या दिसा
गोंयचें नुसतें चाकोंक सोडा

हांडां म्हजीं पिटो करा
क्रिस्ताबरी खुरसार मारा
प्राण हांवें सोडच्या दिसा
गोंयच्या गांवांत मोरुंक सोडा

## 36. गोरवांचें रडणें

सोमयां सोमयां पातकी आमी
रडोन जालां काळीज लोणी
चिंतूक नातलें केन्नांय आमी
जल्म जायत म्हण गोट्यांतुणी

मरयेउपरांत भागी आमी
आमकां गोरवांक पळेंवक मेळ्ळोय
रडण्यावेळार शिमटी धरून
लोंविगोंडो धरून खेळ्ळोय

शिमटी सोडून दिलें कितें ?
चिंतून काळजाक मन खाता
शेण मुताची विपरीत घाण
दिली म्हणोन रडोंक येता

पयलें जरुय तूं सांगतोय
परमळान तुका पुरत्यांव
नेविया क्रीम हागून आमी
चारली सेन्ट सराग मुत्त्यांव

## 37. भोटाचें मागणें



खंय धांवलांय नारलावोळ्या
खंय पळ्ळांय नेंद्राकेळ्या
राकोन तुमकां रावलां
हरशें तुमी जवान
बसोन येंवचें हरवाण
नासतां मनीं खिरलां
देव रागार जातलो
श्राप तुमकां दितलो
चिंतून बिरमत पावलां
देकून तुरतान येया
पूजेंत भागी जाया
भुकेल्ल्या म्हज्या पोटाचो
खाली जाल्ल्या कुंडल्याचो
दातार तुमी जाया

## 38. आमगेले मनीस



आमगेर आसा पेटो एक
दीस रात कठिण घोंकता
नवे सयरे दारार आयल्यार
शिमटी कोवळोन वोगोच निदता

आमगेर आसा बिलू एक
उंदरांक रावोंक दीना
काफी आमची सदांय फुटी
दूध चोरची सवय सोडीना

आमगेर आसा बाबू एक
आमच्या मोगान सगळोच तोवता
खुशेन ताका उकलून धरल्यार
आंगावयर सुसू करता

## 39. विरह गीत



म्हज्या केसांनी
तोंड तुजें लिपवन
खेळटालोय...
हासतालोय...
चिंतनां म्हजीं मेजतालोय
आज
तुजें काजार जालां
देकून
हांव बडकी जाल्यां
तुजी याद विसरोंक
आनी
तासल्ल्या म्हज्या केसांचें
एक पूर्न केलां
तुजे बायलेक दींवक

# 40. दुकां

हांवें विचारलें
"अरे इरमांव
तूं रडटा कित्या ?"
तो म्हणालो
"उदकाखातीर"
हांवें सांगलें
"दुकां तुजीं
कोपांत भर
आनी हळू
पियेवन सोड"

(मात्शा वेळान)

"अरे इरमांव
आनिकूय तूं
रडटा कित्या?"
तो म्हणालो
"येदोळ रडलों
उदका खातीर
आतां रडटां
कोपा खातीर"

# 41. म्हजें काळीज

म्हजें काळीज
हासोंक जाणा
हासोन हासोन
फुलोंक जाणा
फुलोन फुलोन परमळताना
पिश्यार घालची
विद्या जाणा
मोगाकाळजां चोरूंक जाणा



म्हजें काळीज
रडोंक जाणा
रडोन रडोन
कडोंक जाणा
कडोन कडोन आटवन वेतां
लोंकडाधार
जोडूंक जाणा
फातर काळजां चिरूंक जाणा

म्हजें काळीज
जोडूंक जाणा
म्हजें काळीज
मोडुंकूय जाणा

## 42. फुलां देवी

हांव फुलां देवी
जब्बोर रातीं
मळबा वनांत
उसमडेची तुजी खोंकली आयकोन
धांवोन आयल्यां

हांव फुलां देवी
शांत हव्यांत
माळकां तळ्यांत
गुपीत वोंकल्लें रगत देखोन
धांवोन आयल्यां

हांव फुलां देवी
खोंकली वचोन
संगीत व्हाळंवक
गळ्यांत तुज्या म्होंव सोडच्याक
धांवोन आयल्यां

हांव फुलां देवी
शिरांक तुज्या
रगत दिंवच्याक
तांबडीं धसमिचीं फुलां पिळून
हाडून आयल्यां

## 43. आवयचें मरण

आज
हांव आशेन आसल्लों
तूं सपणांत
येतलीय म्हणोन
पुण
तुज्या उडासान म्हाका
नीदच पडलीना

* * *

हांवें तुका आपयलें
तूं आयलीनांय
आतां
कोणे आपयलें म्हणोन
तूं गेल्याय ?

* * *

तूं मरोन
कितें जालें जाणांय ?
आमी आमच्या दुकांचे
धनी जाल्यांव

## 44. ये मोगा थोडें उलयां

ये मोगा थोडें उलयां

मुड्या तांदळा पेज शिजता
तांबयो तांबयो धंय राकता
बुयांवांतलीं तोरां शिंदून
वाटली भरन दोगांय जेवुयां

रानांत जांवळा मळब शेणलां
बोरां, बेणसां कुडेंच फुल्लां
सगळो दीस रानांत भोंवून
रुची आमच्यो कितें पळेयां

बेणशीफाटल्यान चान्नें शिंपलां
घरच्या जणांक तेरसान वेंगलां
वेळाक पाकटे फुटचे आदीं
काळजां आमचीं दोगांय तिळुयां

## 45. विश्व कोंकणी सम्मेळन

कोंकणिचे धरतेचीं हरयेक रानां
रानांतल्या रुकांचीं एकेक पानां
संतोसान नाचतात गावून गाणां
विश्व कोंकणी सम्मेळना

कोंकणिच्या पालवांतलीं झिळमिळचीं तारां
सदां सुडसुडीत आमी तीं पोरां
संसाराक पायतल्यांव कोंकणिचीं ल्हारां
विश्व कोंकणी सम्मेळना

परगांवचे मातयेचीं व्हडां ल्हानां
विसवासान भासायतांव लाकांनी जणां
सदांकाळ उरतल्यांव कोंकणिच्या रिणा
विश्व कोंकणी सम्मेळना

धरमाच्या नांवांनी कुसकाल्लीं मनां
कोंकणिच्या आंगणांत फुलांचीं वनां
हिंदू, मुसलीम, क्रिस्तांवच्या प्राणा
विश्व कोंकणी सम्मेळना

# हांव तुमचो रिणकारी

1. Mr. Leo Rodrigues & Fly. Abudhabi
2. Mr. Oswald M. D'Souza, Abudhabi
3. Mr. Adolf Lobo, Publisher-Directory of South Kanara'ites in the U.A.E, Sharjah
4. Mr. Vinod Tellis, Dubai
5. Ms. Jacintha Mendonca, Dubai
6. Mr. Ullas D'Souza, Dubai
7. Mr. Valerian Furtado, Dubai
8. Mr. Joseph L. Saldanha, Abudhabi
9. Mr. Robert F. Rego, Abudhabi
10. Mr. Jerald Castelino, Abudhabi
11. Ms. Glemina G. Nazareth, U.S.A.
12. Ms. Gladys Rego, U.S.A
13. Ms. Leena Fernandes, U.S.A.
14. Ms. M. Mary D'Souza, U.S.A.
15. Mr. Victor Abreo, Saudi Arabia
16. Mr. J.S. D'Silva, Doha-Qatar
17. Mr. Titus Noronha, Moodbidri
18. Ms. Felcy Pinto, Mangalore
19. Ms. Averyl Sequeira, Bejai
20. Ms. Viveena D'Souza, Bombay
21. Mr. R.S. Narasimhan, New Delhi
22. Mr. Sarwan Kumar Rana, New Delhi
23. Mr. Prem Khosla, New Delhi
24. Mr. Paul Lu, New Delhi

25. Mr. Anurag Dixit, New Delhi
26. Mr. Naresh Tank, New Delhi
27. M/s. Vandana Sales, New Delhi
28. Mr. Ajay Sehgal, New Delhi
29. Ms. Sunitha , Delhi
30. Mr. L.M. Gupta, Delhi
31. Mr. Daleep Kumar Rastogi, New Delhi
32. Mr. Jagadish Ahuja, Delhi
33. Mr. Anil Datta, New Delhi
34. Mr. Ranbir Singh, New Delhi
35. Ms. Ashwini Bharat, Delhi
36. Mr, & Mrs. Bharat, Delhi
37. Mrs. M. Sarah, New Delhi
38. Mr. Sultan Mohideen, New Delhi
39. Wng. Comdr. Prabhu Singh, New Delhi
40. Mr. Sunil Vashista, New Delhi
41. Mr. Madan Lal Sachdeva, Kualalumpur
42. M/s. Amit Associates, Delhi
43. Ms. Parminder, New Delhi
44. Mr. Saurabh Pillay, New Delhi
45. Ms. Celine Agnes Tauro, Padubidri
46. Mr. Don Fernandes, Abudhabi
47. Mr. Hillary Crasta, Abudhabi
48. Ms. Leena Fernandes, Abudhabi
49. Mr. Andrew L. D'Cunha, Sharjah
50. Mr. Alexander Maxim Monteiro, Dubai
51. Mr. Joylus Pereira, Dubai

# ह्याच लेखकाचीं पुस्तकां

1. भेसां जाल्लें काळीज (1983 - नवल)
   - पुनव प्रकाशन, मंगळूर
2. 365 दीस (1984-85, कॉलेज जिवीत)
   - 'जिवीत' नेमाळें
3. मोगापेळो (1989 - कविता)
   - प्रगती प्रकाशन, मंगळूर
4. गडदेचो गांव (1991-92, पयणा कथा)
   - 'उमाळो' नेमाळें
5. काणी जाली चली (1995 - अणकारीत नवलिका)
   - साहित्य अकादेमी, नवी दिल्ली
6. फिंतां (1996 - कविता)
   - मांड सोभाण, मंगळूर